# मोतयां



प्रकाशन क्रमांक : 101
1993

'साहित्य पसरण' भार्गीक : पांच रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

मोल :
1993 वर्सा 40 रुपया
1994 वर्सा 48 रुपया
1995 वर्सा 57 रुपया

'पयलो चंवर' येवजणेत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
पालवान हो संग्रह प्रकाशित केला

ISBN 81-85854-00-9

# मोतयांचो दोणो

पाळें हो गांव साहित्याच्या मळार एक आगळें नांव जोडून आसा. कोंकणी कवितेन संवसारभर नामना जोडली ती कविता पाळ्यांत निर्माण जाल्ली. आनी पद्‌मश्री र. वि. पंडित हे कवितचे जनक आसले.

पंडिता उपरांत कवितेच्या प्रातांत आपलें कर्तृत्व सांगपाक फुडें आयली ती कविता म्हजी. ही पाळ्याच्या कोंकणी सेवेची दुसरी पिढी आसली.

आतां पाळ्यांतले तिसरे पिढयेचो वावर कवितेच्या मळारचेर फुडें व्हरपाचें काम रोहिदास नारायण मंगेशकार हाणे सुरु केलां, ही कोंकणी साहित्याच्या नदरेंतल्यान आशादायक गजाल. आयज ताचो संग्रह लोकांमुखार येता. हीं मोतयां. हया मोतयांचे मोल रसीक वाचक थारोवपाचे आसात. ते खातीर ते आपलो वेळ घेतलेच. पूण आयज मोतयांचे स्वागत करतना म्हाकां खूब खोस जाता.

*तुज्या घामाचो एक एक थेंबो*
*हजार लोकांचें पोट पिकयता*

रोहिदासाची हीं उतरां शेतकाराचीं हेरांखातीर दिवपाची, काम करपाची वृत्ती आपल्या उतरानी वेंचून घेता आनी कवितेच्या माध्यामांतल्यान व्यक्त करता.

*हांवें हांगा ओंडूक जोतां*

*आगांर घेतलीं कितलीं वोतां*

असल्या ओळीनी ह्या तरण्या कविची प्रतिभा आपल्या सैमसभावांतल्यान व्यक्त जातना दिसता तेन्ना हो कवी उजळ फुडाराची सुलूस दिता.

ह्या कवितांनी मदींच एक हुंकार दिसता तो जोडगिताचो.

*सांतेरे माये आमचें बलांव जांव*
*तुजे सावळे आमी आले गे*
*आळी पायांचो धुल्ल तुज्या*

*कपाळा लावूं आमी*
*सावळे तुजे खेळूं गे*
*आमी शबैय शबय घालूं गे*

मोतयांनी खूब कविता आसा. कविता खूब आसपापरस कवितेंत काव्यगूण आसप चड गरजेचें. रोहिदासाचे कवितेंतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता की ताक खूब कितें सांगपाचें आसा. निसर्ग कविता तो आपल्याक व्यक्त करपाक वापरता. जेश्ट कोंकणी कविंच्या प्रभावान रोहिदास कसो लब्धला हाची गवाय ताच्या बऱ्याचशा कवितांनी मेळटा. आनी आपल्याचेर जाल्लो प्रभाव फापडून उडोवन आपणे आपलेच पध्दतीन फुडें वचूं येता हें कळोवपी कांय गूण रोहिदासाचे कवितेंत दिसता ही ह्या संग्रहाची जमेची बाजू.

काव्याची उपासना करता आसतनाच रोहिदासान नाटकां बरोवपाक सुरवात केली. ताचीं कांय नाटकां लोकांमुखार खेळळयांत. पाळयांत ताच्या तीन स्वतंत्र नाटकांचे प्रयोग जाल्यात. होय गूण रोहिदासांत आसा ही निश्चितूच पाळयाक खोसदिणी गजाल.

साहित्यांत कितलें बरयलां, हाचे परस कशें बरयलां, कितलें अचूक बरयलां हें चड महत्वाचें हें सगळ्याच नवलेखकांनी जाणा जावप गरजेचें. साहित्याचे साधनेतल्यान ह्यो असल्यो गजाली बरे तरेन आपणाक येता.

रोहिदासाक हे साहित्य साधनेत उपाट येस आवडेवतां. ताची साहित्यीक जीण फळारीक जावं अशें येवजून हीं दोन उतरां सोंपयता.

**— रमेश भगवंत वेळुस्कार**

# मांडावळ

# मोतयां

म्हज्या शेतां भाटांनी
उदक भरलां कुणग्यांनी
भांगराचे मातयेर म्हजे
जोत ओडलां बैलांनी

म्हज्या कुणग्या शेतांनी
शिंवर मारला मोतयांनी
पाचवेंचार थांब म्हजें
रोयलां गा कामेऱ्यांनी

वाऱ्या–पावसान आयली फुलून
फुलां रे मोतयाळीं
पाचव्या शेतांत पिकले मोती
सुर्याच्या किरणांनी

वाऱ्यावांगडा धोलतात मोतयां
गीत गायता मोन्यांनी
मोतयां देखून जावन पिशीं
गीत गायलां सांवरांनी

शेता लिवणी जाली काल
मोतयां लिपल्यांत कुणग्यांनी
येवकाराचीं गायत गितां
वेंचून काडल्यांत सांवरांनी

## नातें

तुज्या रुपाचें दर्शन जालें
त्याच दिसा म्हजें
सगलेंच सांडलें

तुज्या रुपान अशें
आसलें कितें ?
अशे म्हाका दोंगर
चडूंक लायले ?

चडलों दोंगर तरी
तूं पयस पयस
चलत रावलें
हांव थयंच उबो

दिसलें तें सपन आसलें
मन तुटलें
आयज खिणाक तुवें
नातें जोडलें

# गांठी

राती रातीच्यो
त्यो गांठी
ती सोडयता
एकली एकसुरी

त्यो यादी
त्यो राती
तिका रडयतात
करून पिशी

तिची व्यथा
म्हजी कथा
ती गायता
मनांतल्या मनांत

तिचो सूर
घसरत वता
तिका तींच
विसरत वतात.

## भूंय

घट पावलांनी सत्य उतरांनी
देह हो चलता
कण कण फातरा जाता माती
हेच भुंयेर उसळटा

हेच मातयेचो रंग रक्ताचो
शिराशिरांनी खेळटा
सत्याची ही रीत आमगेली
उतरा उतरांनी मेळटा

हेच भुंयेचेर चंद्र सुर्याचें
दर्शन आमकां मेळटा
शितळकायेचें शितळ वारें
पिट्ट चान्नें उदेता

गाज दर्याचो, खेळ ल्हारांचो
शेवणीं गितां गायतात
हेच भुंयेचेर सत्य उतरांचेर
सर्ग आमकां मेळटा.

# सांज वेळेर

सांज चडली
ती उगडी
दर्या वेळेर
चलत रावली

सांज वेळार
तिच्या पावलार
ल्हार लब्दलें
पांयांत घुस्पलें

सांज वेळार
शेवण्यां गितां
सुरार तिचें
पावल झांजरलें

सांज शेब्दुली
तिका भुल्लुसली
मोगरी पिशी
यादीन परमळ्ळी

वाऱ्यान तिका
पिसाय पिसायली
आपल्या वांगडा
खेळय खेळयली

ती भान
विसरून गेली
तिका किमचिली

आंगार लोळयली

सांज वेळार
पावलां उदेलीं
ती मोदेली
थंयच गोठेली

# व्हडें

म्हजें जिवीत एक
कागदा व्हडें
जल्मतांच दर्यांत सोडिल्लें
जिविताची रेशा पार करीत
तें आलतडीसून पलतडी
वचूंक लागलां
आयज कितलींशींच वर्सां जालीं
तें चल चलता
आतां तें मदल्या थळा पावलां
तें वोतांत तापलां
शिंयान आटलां, पावसान फुगलां
ताचें पोंद सामकें मोव जालां
तरी चलता जिविताची रेशा पार करूंक
पूण मदल्या थळा पावूंक
कितलींशींच वर्सां लागलीं
आतां पयले तडी पावंक
कितलीं वर्सां लागतलीं ?
पयले तडी पावतलें
काय मदल्या थळा बुडटलें ?
होच प्रश्न पडला

## हांवें शेत रोयलां

हांवें शेत रोयलां
पूण ! शेतांत म्हज्या
अजून पावस पडूंक ना
शेत तापत चल्लां
तशें पोट भुकेत चल्लां
केन्ना देवा पावस येतलो
आनी शेत म्हजें फुलतलें
सात पोटां ओडटां
दिसाचीं मेजीत जोतां
तुजीच करतां प्रतिक्षा
केन्ना तूं येतलो म्हज्या शेता
केन्ना फुलयतलो केन्ना पिकयतलो
म्हजीं चार भांगरा कणसां
गळय तुजीं देवा
म्हज्या शेता दोन दुकां
भर भरून येवनी पीक
म्हज्या शेता, म्हज्या शेता.

# गीत आमच्या भारताचें

एकचारान गावया आमी
गीत आमच्या भारताचें
शूर विरांक ओंपून तुरे
सपन रचयात जैताचें

जैत जांणी हाडलें जोडून
व्हांवयत पाट रक्ताचे
तीन रंगांनी रंगले प्राण
भारत भुंयेच्या भक्तांचे
आयज आमी सगले गावया
गीत तांच्या शौर्याचें

प्राणाच्यो लावन ज्योती
चलत रावले काळखांतल्यान
धर्माचे पिवन थेंबे
वाट काडली आगट्यांतल्यान
तरी तांणी पालयलिना
मशाल आपले क्रांतीची

कितले जीव लागले गोळाक
वीर भारत भक्तांचे
हांसत–हांसत चडले फांसार
मोल दाखोवंक सत्याचें
ओंपलें तांणी जिवीत आपलें
नांव राखूंक बावट्याचें

# जाग रे बेगीन जाग

भारताच्या ध्वजा म्हज्या
जाग रे बेगीन जाग
वन्दे मातरम् हो
गावया मंत्र राग

परकियांच्या जुलमा तळा
कितलीं वर्सां चिड्डले
वर्तुळांत दांत्या तळा
नाचण्यावरी भड्डले
छातयेची करून ढाल
जाग रे बेगीन जाग

भाव भावांच्या एकचारान
परकियांनी घातली वेर
धर्मभेद उबे करून
मनीसपणाक बांदली मेर
पोकट मारूंक करतल्यांचा
वतले आंगार जावन वाग

चारूय दिको नदरे दिवे
पेटोवन उबे रावतले
गरज पडल्यार होमखणांत
उडी लेगीत मारतले
सुपीक माये–मातयेखातीर
जाग रे बेगीन जाग.

# वलय तुजी तार तारया

वलय तुजी तार तारया
बेगीन वलय तुजी तार तारया

जोगलां गडगड कुपां रे दाटला
वादळ वाऱ्यान कुपां रे जडला
शितळ वाऱ्यान पावसाच्या झऱ्यान
चींब चींब आंग म्हजें भिजलां रे

पिसांट वाव रे दर्यांत रिगला
उसळटीं ल्हारां रे धडेक फुटल्यांत
मोगाचें गुपीत काळजांत बसलां
भंया भंयान जीव म्हजो सुकला रे

पिसावट्या वाऱ्यार रे उसळट्या ल्हारार
तार हालूंक धोलूंक रे लागल्या
मदले मदीं तुजी तार तारया
वाऱ्या वादळान घुंवूंक लागल्या रे

नदर म्हजी पयले तडी रे लागल्या
मोग्यान म्हाका साद रे घायला
तुरू तुरू ल्हारां चिरीत तारया
तार पयले तळी लाय रे.

# पिंपळा खाला

चला आमी पिंपळा खाला
नाच नाचुया
तोणयेर आमी तोणी मारून
खेळ खेळुया

राधे वांगडा दोळ्यांक बांदून
लिपा लिपुया
मुरली वाजयत येतलो काना
आमी लिपुया

राधे म्हऱ्यांत आयलो काना
कानाक आपडला
दोळे सोडून पळेत जाल्यार
काना वेंगयला

काना पळोवन लजलें बाये
मान खालावल्या
कानान धरलो हात राधेचो
भान विसरल्या

तोणयां तालार गीत सुरार
मुरली वाजय़ल्या
मुरले सुरान मग्न राधा
खेळ सांडिला.

## राती

ह्यो राती
मेणा वाती
रात भर
जळटात
आनी त्या
वाती उजवाडाची
एक नारी
म्हजे वेंगेंत
लोळटा
म्हजे कुडीचो
एक एक
मेणा थेंब
आपल्या पोटांत
सांठयता
दिसाचें सपन
रंगोवंक !

# ही रात

ही रात
एक बायल
नागडी उगडी
सगल्यांचे
वेंगेंत न्हिदता
आनी सकाळचे
फांतोडेर ही
धवी साडी
न्हेसून चलूंक
लागता एकलीच !

# किरणां

सुर्याचीं किरणां आयज
पडलीं म्हज्या दारा
सांडलेलें सूख म्हजें
आयलें परत घरा

रूप तुजें पळोवन
फुलून आयल्यांत फुलां
तुज्या परमळाचें पिशें
लागलां मन भोंवरा

तारयाचीं मदूर आयकूंक
येवंक लागलीं गितां
सुकत्या पाणयार तळमळपी
गाजूंक लागल्यांत ल्हारां

चारूय वटांनी उमेदीचीं
नाचूंक लागलीं पावलां
सुर्याचीं किरणां आयज
रावलीं म्हज्या घरा.

## हांवें हांगा

हांवें हांगा ओडूंक जोतां
आंगार घेतलीं कितलीं वोतां
तरी सपन सपना शेता
हाताक लेगीत पडलीं खिणां

तरणें आंग जाणटें जालें
तरी अजून उरल्यांत रिणां
आयलें जरी पीक बरें
तर अर्दी उरतात पोटां

काडले दीस खावन घोंटां
शिमे शिमेर दिलीं रोंटां
तरी कशीं अर्दीकुटीं
अजून उरल्यांत म्हजीं शेतां

वोडचीं आसात जोतार जोतां
पडल्यार लेगीत आंगार खतां
खोंट मारून करचीं आसात
पयसार नाडींग भुतां

## रांपण

ते : आमी मांडल्या रे मांडल्या रे
नुस्त्याक रांपण मांडल्या
वाऱ्या पावसान पावसान
दर्यांत वादळ सुटलां

तीं : दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ

ते : गाजत्या ल्हारार ल्हारार
पनेळ दर्यांत सोडला
करून धाडस धाडस
दर्यांत आमी गेल्यात

तीं : दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ

ते : आमी मांडल्या रे....

तीं : पती दर्यांत दर्यांत
नुस्तें मारूंक गेला
मना मनाक मनाक
भंय सो दिसूंक लागला

तो : दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ

तीं : पडट्या पावसांत वाऱ्यांत
वळेर आमी आयल्यांत
तेल दोळ्यांत घालून

वाट रे पळेत रावल्यांत

ते : दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ

ते : वाऱ्या पावसार वादळार
नुस्तें आमी मारलां
पनेळ भरून भरून
नुस्तें आमी हाडलां

तीं : दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ

ते : आमी मांडल्या रे मांडल्या रे
नुस्त्याक रांपण मांडल्या

तीं : ल्हारां चिरत ताडीत
तडीक येवंक लागला
वाऱ्या वादळार पावसार
पोनेळ तडीक आयला

ते : दर्याक वादळ सुटलां

सगलीं : आ ऽ आ ऽ आ ऽ
दर्याक वादळ सुटलां
दर्याक वादळ सुटलां
आ ऽ आ ऽ आ ऽ
दर्याक वादळ सुटलां
दर्याक वादळ सुटलां
दर्याक वादळ सुटलां

# मेणा वाती

त्या काळख्या रातींनी
मेणा वातींनी
थंय उजवाड फांकयलो
थंयच आजय उजवाडान
आपलो शेक गाजयलो
पूण ह्यो मेणा वाती
जळसर जळटल्यो
काय वाऱ्यान पालवतल्यो
काय सोंपमेरेन जळटल्यो
आनी परत त्यो
काळख्यो राती जगतल्यो

## हिप्पीण

ती गोरी हिप्पीण
दोनपार तांबडी
धुन्द जाल्ली
म्हजे म्हन्यांत आयली
म्हजेर पडली
सांज जाली
दनपार हिप्पीण
सांज सावळी
घरा परतली

## म्हजे हात

हेच म्हजे हात
तुका बेघर करपी
आयज तुजेकडेन
आलाशिरो मागतात

हेच हात ते
तुज्या केंशट्यांक धरून
भरभरीत ओडून हाडपी
तुजी चूक मागतात

हेच हात ते
तुज्या कापसा आंगार
खिणाखिणाक घाय घालपी
आयज भीक मागतात

हेच हात ते
तुजे दोळे फोडपी
आयज तेच फुटल्यात
येरायेरांनी

हेच म्हजे हात
तुका बेघर करपी
तुजेर शेक गाजोवपी
आयज बेकार जाल्यात

# आगर बांद

त्या आगर बांदार
खोंपटेंत एके
वात पेट्टाली
आनी ते
वातीचीं किरणां
खोंपीच्या जोडांतल्यान
भायर फांकारतालीं
मदींच कोणाली
सावळी ती
किरणां लिपयतालीं
तशी रात
काळखी चडटाली
आ ऽ यस ! आ ऽ यस
उतरार उतरां पडटालीं
ते काळखे रातीर
लग्नाचे पयले
रातीर तीं
मीठ आगरां
मोग करतालीं

# ह्यो राती

ह्यो राती
मरणाच्यो सांगाती
हेच रातीर
बुन्याद म्हजी
एका देवमनशान
काळखांत घातिल्ली
ते अखंड
बुन्यादीचेर आयज
कितल्याशाच वजनाचें
घर उबें
आयज त्याच
घराची एक
वज्र कूड
हांगा जगता
त्या देवमनशान
घातिल्ले बुन्यादीचेर
आयज चकचकता
ती कूड
दिका–दिकांनी
नदरा–नदरांनी
पूण !
एक हुस्को
ह्या रातींचो
मरणाच्या सांगात्यांचो

ही अखंड
बुन्याद खंयचे
रातीर हालत
कोण जाणा !

# सिगार

सिगराकडेन खेळटा तो
        हो न्हय खेळ पोरा
शंबराचीं पन्नास पयलींच
        जीव तुजो लागतलो गोळा

वोंठार बरें खेळयत सिगार
        जाय तसो करीत शो
गुळगुळीत पोले तुजे
        म्हयन्या भितर जातले मोव

सळसळटें रगत तुजें
        धुंवरा भितर झडटलें
तरणेपणार जाटेपणाक
        पांगरूण तुजेर ओडटलें

वझ्न्याचें रक्त तुजें
        घाण जावन खेळटलें
एका दिसा फुटून गळो
        जिवीत तुजें सोंपतलें

# पडींग जमीन

कितलींशींच वर्सां
तापिल्ल्या सड्यार
आयज पावस
घसघसला
शेतकाराच्या हाता
भुजांचे घटायेन
आयज थंय
भांगर पिकलां
दिसाची रात
रातीचो दीस
तांणी थंय
घाम सांडला
आयज पडींग
जमनीर तांणीच
जैत व्हेलां
फातरा फातराची
माती करून
तांणी आपलो
शेक गाजयला
तांणी थंय
भांगर पिकयलां
भांगर पिकयलां

## तूं

तूं अशें पयस किद्याक ?
मातशें म्हाका पळोवंदी
कांतयिल्ली म्हूर्त तुजी
दोळ्यांत म्हज्या भरूं दी

भांगरा सारके केंस तुजे
रुप्या सारकें रूप
केन्ना दोळ्यांत भरलें हें
सांजेवळचें कूप

रातभर याद तुजी
वळत गेली कूस
वगीच अशें दोळ्यांत म्हज्या
गळोवं नाका दूक

अप्रुपाचें तूं देखणें
खिणाखिणाक म्हऱ्यांत उबें
पळयत तुका रावचें कशें
मनाक लागता पिशें

# काजळी कुपां

काजळी कुपां दाट्टलीं
शेतां भरून ओत्तलीं
सकाळ सांज बैलांच्या
खांदार जुवां पडटलीं

तळयो खोणकुलां बुडटलीं
भुरगी चींब भिजतलीं
कागदाचीं करून व्हडीं
खळये–खळयेंत सोडटलीं

शेतां भाटां कसतलीं
तणा कोमरी फुट्टली
पाचवो चरव खायत
गोरवां दोंगरा भोंवतलीं

थांब हांव काडटलीं
कुणगे कुणगेन लायतलीं
वाऱ्यान वता पावसान
कणसां आतां पिकतलीं

सांवरां आतां येतेलीं
शेता शेतान बसतलीं
कुणग्यांनी नदर मोखीत
भाता गोटे वेंचतलीं

# काळीं कुपां दाट्टना

काळीं कुपां दाट्टना
पावसा थेंबे झडटना
तुवें म्हाका खुणायलो
हांव तुका देखतना

सत्री हातांत नासतना
पावसांत तूं भिजतना
नदर म्हजी उरली
चींब आंग देखतना

आसोर हांव घेतना
तूं म्हजे सरीं येताना
हांवेंच फाट केली
म्हजे म्हऱ्यांत रावतना

काळीं कुपां सांडटना
पावसा थेंबे उडटना
म्हजी नदर उरली तुजेर
म्हजो पासून पयसावतना

## जीण रडटा

ते अमाशेचे काळखे रातीं
एक जीण रडटाली
आड्डताली तिड्डताली एकलीच ती
मरणाचे वाटेक आडकल्ली.

एकलीच रावताली ती कळी
परमळान भरिल्ली
रुपान थांबुल्ली, गालान हांसुल्ली
खोशयेन जियेताली

अकस्मात एके अमाशेचे विराट रातीं
एक सुरांट भोंवर
तिच्या घरांत घुसलो
आनी...

सगलें सोंपलें तें विटलें
सांबाळ्ळेलो परमळ ताचो
ते अमाशेचे विराट रातीर
सुरांट भोंवर घेवन गेलो

ते विराट रातीं तें आड्डतालें
वांचयात म्हाका, पावात पावात
पूण शेजारी जागे आसून न्हिदिल्ले
आयकूंक येता आसूंन भेरेल्ले

उजवाडलेल्या दिसार पळे म्हणटात कशे
आमी न्हिदिल्ले ना तर ताका सोंपयतले आसले
उले आमी आयकलेच ना

ना तर धांवून येतले आसले

घडिल्ल्याची खोस आनी रातीचो दोश
असले हे शेजारी ते
भितरे भागुबाय कशे येतले
रगत थंडावलेले भिवकुरे
तें आतां पिसडलां पाकळ्या पाकळ्यांनी
गांवार हेडटा पिशावरी
कोणूय चिंवता, कोणूय पिंवता
आपल्या तानेल्ल्या देहाची तान भागोवंक

तें हांसतें रुपान तांबशें आतां
जालां रेब सांठलेल्या तळ्यांतलें
तें हांसता पिशें सगल्यांक हांसता
पूण ताची जीण रडटा
ताची जीण रडटा
ताची जीण रडटा

# गोंयां म्हज्या

गोंयां म्हज्या पाचवीं झाडां
कितलीं पिकता पणस तोरां
झाडा झाडाक फुट्टा चंवरां
पिशें लागता भोंवरा

दर्या वेळेर पोरकीं पोरां
बसून रावतात बारा तेरा
रेंवेचीं बांदतात घरा
मोडून वयतात दर्या ल्हारां

सांज जाता अमुरपिकी
खारवी ओडटा रांपणी दोरां
दर्यावेळेर शेवण्या भिरीं
गायतात आपलीं मधूर गितां

सूर्य आतां अस्तमता
दर्यादिगेक तांबडो रंग
खिणाखिणाक फांकतना
शेवणीं उडून वतात घरा.

# शबय शबय गांव नाचता

शबय शबय शबय शबय
धोल ताशे बडयता
एकामेका आंगार गुलाल
रंगार रंग उसळटा

गांवचो जल्मी हात जोडून
देवा मुखार हुरहुरता
एका चित्तान एका मतान
गाराणें तो घालिता

देवा धनया ! हय सायबा
जल्म्या उतराक मान दिता
भुरग्या जाणट्या बरें जावं
जल्मी गाराणें सोंपयता

आनी शबय शबय शबय
धोल ताशे बडयता
पावलार पावल मारी मारीत
धुल्लार धुल्ल उसळटा

आनी मदींच एक पोर म्हणटा
सांतेरे माये आमचें बलांव जावं
तुजे सावुळे आमी आले गे
तुजे सावुळे आमी आले गे

आनी पांयाचो धुल्ल तुज्या
कपाला लावूं आमी
सावुळे तुजे खेळूं गे

आमी शबय शबय घालूं गे

आनी लोक गर्देंत रात चडटा
सांतेरीचो रथ ओडटा
देवळा मुखार लोक सगले
शबय शबय गांव नाचता

# केन्ना ना केन्ना

केन्ना ना केन्ना तुका म्हाका
वयचें पडटलें
जुळयलेले मोगा धागे
तोडचे पडटले

मळब जरी धवें निळें
रंग रंगायाळें
एका दिसा कुपां झडयत
रडचें पडटलें

आसूं कितलेंय फूल सोबीत
परमळ भरिल्लें
सुर्या किरणान दिसा भरान
बावचेंच पडटलें

आसत तुज्यांत तांक उडची
वयर उडटलें
एका दिसा पांय झरयत
चलचें पडटलें

जिवितांतल्या हजार दुखांचेर
सूख खेळटलें
राम राम म्हणत म्हणत
वयचेंच पडटलें

# दर्यावेळेर

दर्यावेळेर सूर्य देंवला
आयमोरेक साद घायला
हांव पिसो खडपार बसून
मोन्या मोगा गीत रचलां

शेवण्या पाखां आकांत आयला
दोंगरा आड उडून गेलां
हांव कोणा यादी कोंरायत
वाऱ्या वांगडा उलयत रावलां ?

काळखार काळोख माखत चल्ला
पोनेल सगले तडी आयल्यात
भरते गाजार गाजपी ल्हारां
सुकतेन आपले वेंगेंत घेतल्यांत

रात मळबार चान्नें फुल्लां
रातकिड्या गायन चल्लां
तरी लेगीत येतलें म्हण
वाट पळेत हांव रावलां

# चल तूं चलत राव

चल तूं चलत राव
एका तालार एका सुरार
घुंगरू तुजे वाजयत राव
वाऱ्यार तुजे कापूस केंस
वयर वयर उबयत राव
चल तूं चलत राव
एका तालार एका सुरार
घुंगरू तुजे वाजयत राव

# तूं यो

तूं यो
मात येतना
चान्नें शिंपडायत यो
म्हज्या आंगार

काळ्या आंगाक
लकलकुंदी
सगल्या देशा
चकमकुंदी
सगल्या लोका
हे अमाशेच्या
काळख्या मळबार
चान्नें लेगीत
येवं येता
हें कळूं दी
सगल्या जगा

तूं यो
मात येतना
चान्नें शिंपडात यो

## पयले तडी

मना न्हंये पयले तडी
चंद्र उदेला
तरण्या माडा चुडटांआड
तोंड लिपयलां

यो रे असो दाडूं नाका
मन पिसोवलां
रुपा तुज्या पिशीं हांव
काळीज खर्शेलां

काळजांत म्हज्या रातराणी
तुवें फुलयल्या
परमळ म्हजो यो व्हरूंक
हांव परमळ्ळां

मन–मना शिरांतरांत
तूंच गोठेलां
काळ्या निळ्या दोळ्यांत म्हज्या
तूंच उदेलां

# आयमोरेचो वेळ जाला

आयमोरेचो वेळ जाला
मोगरिणीक कळो फुल्ला
यादीन तुजे पोरसांत म्हज्या
मोगरेचो परमळ फांकला

वाटेक तुजे दोळे लायल्यात
पिशा जिवा हुस्को जाला
पावलां तुजीं पडचीं दारा
वाट पळेत हांव रावलां

बसचो तुवें म्हजे म्हऱ्यांत
नदर घालून म्हज्या दोळ्यांत
काळजाचीं फुलां कुठेवन तुजीं
फिरयत रावचो म्हज्या गालार

नदरेंत म्हजे सूर्य देंवला
चंद्र आतां येवचो जाला
पिशा मनांत याद तुजी
परत परत कोंरायत रावला

# सांग रे म्हाका

तो : सांग गो म्हाका शेंवतुल्या तूं
काल किद्याक आयलें ना

तें : वाट पळेत रावलों म्हण
तुवें म्हाका सांगलें ना

तो : वाट तुजी पळोवन पळोवन
दोळे कितले वळ्ळेनात
रागान फुलून बसलां म्हण
खंय खंय तुका सोदलेंना

तें : काळजांत म्हज्या मोने कळे
यादीन तुजे फुलतना
परमळ व्हरूंक येतलों म्हण
कितलें तुका रावलों ना

तें : सांग रे म्हाका भोंवर राजा
कित्याक रे तूं आयलोना

तो : मोने कळे फुलयतले म्हण
तुवें म्हाका सांगलें ना

तो : परमळ तुजो घेवन म्हाका
मेळूंक कित्याक आयलें ना
तरसतना नदर म्हजी
कित्याक गो तूं दिसलेंना.

तें : परमळ म्हजो गेलो उबून
सूर्य दर्यांत लिपतना

दोळ्यांत म्हज्या भरलीं दुकां
चंद्र वयर चडटना

तें : सांग रे म्हाका भोंवर राजा
कित्याक मेळूंक आयलो ना

तो : वाट तुजी पळोवन पळोवन
दोळे कितले वळ्ळे ना

# सूर्य गेला खाला

सूर्य गेला खाला आनी
चंद्र उदेला
मधूर मंद सांजेर
साद घायला

पाचवीं झाडां आनी वाली
झेमूंक लागिल्या
दिसार गावपी शेवण्यार
वेग आयला

चान्न्या कळे आयल्यात फुलून
रात फुलयल्या
रातराणी पिशा कळ्यान
परमळ फांकला

दोळ्या पाती लागली पडूंक
झेम घुसपल्या
सपन मंद रातीर म्हाका
किद्याक जागयला ?

## वता कडार

दोनपारच्या वता कडार
कावळो रडटा आब्या खांद्यार
खिणाक हें मन म्हजें
भूर करून उडटा वाऱ्यार
दोनपारच्या वता कडार....

सावळी पावली आंब्या पेडार
सगलेकडेन बे–सुराल
थकलेलीं पावलां कोणा
विसत घेता झाडां मुळार
दोनपारच्या वता कडार...

सवणीं बसलीं पोरां म्हऱ्यांत
गोरवां देंवलीं उदका कोंडांत
वता वाऱ्यान हाडलो आळस
झेम आयली दोळ्यांर
दोनपारच्या वता कडार....

## सांवर

मार्चांत फुललीं
बोंडांय धरलीं
एप्रीलांत सुकलीं
पिशांभशेन
सोडून आंग
गांवभर
उब उबलीं

# जागरण

जागोवं नाका आनीक म्हाका
सुस्त मातसो न्हिदुंनी
इतल्या वर्सांचें जागरण हें
एकदां म्हाका सोपोवंनी

## कूड

पांच मणाची कुड ही
नाचसर नाचतली
शिरंतरा बसली तशी
मातये बिडा लिपतली

## चुडीत

चुडीत वाऱ्याक म्हणटा
हालय हालय म्हाका
खेळय खेळय म्हाका
तुज्या तरण्या मोगान

# झाड

त्या सुकलेल्या झाडार
सांज वेळार
कावळ्या जोडपें बसलां
काळोख माथ्यार
दीसभराचें दूख सूख
दूक दोळ्यांर
वांटून घेता दिसता
फायच्या मांडार

# तान

वताचो हो कड
आंगार घामाचो लोट
तुका खंयसर देखूं
जाली निर्शेणी वाट

तुजो आगळो हो नाच
जीव जाता म्हजो पिसो
म्हज्या मनाक तुजो वास
सदां लायता गो ध्यास

तुजीं विलुदाचीं पाखां
हांव कशीं म्हणूं नाका
तुज्या सुवर्ण देहाची
तान लागल्या गो म्हाका

# ती

वयर नखेत्र उदेलां
सकयल मन मोदेलां
कोणा तरी यादीन
म्हजी न्हीद घुस्पल्या
म्हजी न्हीद घुस्पल्या
थंय सूर उसळ्ळा
मद्यानीच्या मंद वाऱ्यार
तिचो साद सादोला

तिचो साद सादोला
तिचीं उतरां भासल्यांत
श्रृंगारलेल्या मनांत म्हज्या
सदां तींच गोठेल्यांत

# ही सांज

ही
सांज
पावसाळी
भुल्लुसली
लब्धली
कोणाक ?

हीं
पावसा
कुपां
धडधडलीं
हुतहुतलीं
कित्याक ?

ही
सांज
ओगीच
एकलीच
झडवता
मनांत

ही
सांज
पावसाळी
बडवता
कुपां

झडयता
रातीच्या
काळखांत
विरगळटा

ही
सांज
पावसाळी
दर्या
वेळेर
पावस
रेंवेर
आपली
धार
पाझरता
ल्हारां
उसळटा
कोरोप
स–सर
आपलें
आंग
खाजयता

ही
सांज
पावसाळी
धुंवरी
कुपां

झडटा
मोन्या
मोन्यांनी
रातींत
विलीन
जाता.

# ते

दाट काळोख दाटला
त्या वयल्या रानांत
झाडां सावळ्यो न्हिदल्यो
काळख्या रानांत

याद कोणाच्या मनांत
दुकां दाटलीं दोळयांत
कोणा घालिता रातीर
सादार ते साद

चान्न्यार चान्नें उदेलें
ताचें मन रे मोदेलें
झाडा सावळेच्या तळा
तें एकलें गोठेलें

तें यादीन कोणाचे
हुस्क्या हुस्क्यांनी रडलें
दाट काळख्या रानांत
ताणें सूख रे सांडिल्लें

## हे मायें

हे माये
दूख हारतें
म्हज्या काळजांतलें
दूख काडून
म्हाका सुखान
न्हाणय गे
सुखान न्हाणय

हे माते
विघ्न हारते
म्हज्या जिवितांत
येवपी विघ्न
तूं दुर्गे गे
विघ्न दुरय

हे माये
स्फुर्ती देणे
म्हज्या लिखाणाक
तुजी सासाय
जागय गे
सासाय जागय

# सांज शेवणें

सांज शेवणें
काळ सावळें
दर्याविळेर
उड–उडटा
पाखांक ताज्या
तांबडो रंग
सूर्य दर्या खांचींत
लिपता थंय

सांज शेवणें
काळ सावळें
दोंगरा वाटेक
उड–उडटा
पाखांक ताच्या
काळो रंग
रात काळी
रंगता थंय

## शेत

पयल्या वयल्या पावसा झऱ्यान
उदक भरलें कुणग्यांनी
शेतकारांचीं मनां खोशी
घटाय आयली भुजांनी

सुर्या किरण फुटचे पयलीं
खुदयो करी हातांनी
आंगार घाम दाटलो तरी
मेरो धरता शेतांनी

बैला खांदांर बांदलीं जुवां
घातलें जोत कुणग्यांनी
कुणगे कुणगेन मारलें बीं
काडल्यो तकल्यो रोवांनी

शिरी शिरी पडट्या पावसान
काडले थांब ओणयांनी
भांगरा भुंयेक तोपीत बोटां
रोयले थांब कामेऱ्यांनी

थांबा थांबाक आयली लांबाय
पालय मारली कोयत्यांनी
थांबा थांबाक धरलो गर्भ
लागली हालूंक मोन्यांनी

तकल्यो काडूंक लागलीं कणसां
धरलें दूद गोट्यांनी
कणसा–कणसार मारीत उडयो

खेळ मांडलो तोळांनी.

सुर्या वाऱ्यान पिकलें कणस
आड पडलें कुणग्यांनी
खोशये हांशान लिवणी करून
भरलें भात कंड्यांनी

सांवरा भिरीं आयलीं उडून
बसलीं कुणग्या कुणग्यांनी
एकचाराचीं गायत गितां
सोदता भात कुणग्यांनी

# हांव जाणां

हांव जाणां तूं खर्शेलां
पूण हांव कितें करूं
तुजे पयलीं
हांवूच खर्शेवन पडलां

हांव जाणां तूं म्हाका
कितें तरी सांगूंक सोदता
पूण हांव कितें करूं !
म्हाकाच आयकूंक येना

हांव जाणां तुवें म्हाका
आफयला तो
पूण हांव कितें करूं
म्हाका पांयच नात.

हांव जाणां तूं म्हाका
उबारूंक सांगता म्हण
पूण हांव कितें करूं
म्हाका हातूच नात.

हांव जाणां म्हजेकडेन
कांयच ना
फकत आसा जितो जीव
तोय आतां वयचो आसा.

# धव्या मळबार

धव्या मळबार काजळी कुपां
भरभरून आयलीं दाटून
लिप–दिपता जगला वयर
वाजता धोल घडघडून

सैम जालें सावळें भावलें
सुटलें वारें सळसळून
जाडा वेली पिकीं पाना
भरभरून पडलीं झडून

शिरीशिरी पडट्या पावसान
हांसूंक लागलें पाचवें रान
लागलो नाचूंक मोर राना
फुलोवन पाखां थरथरून

भिजलें आंग जालें चींब
आयलें आंग शिरशिरून
चारूय दिशां पडलें हाशें
आयलें वत रखरखून

# पयस गेल्ल्या शेवण्या म्हज्या

पयस गेल्ल्या शेवण्या म्हज्या
यो उडून आयज घरा
यादीन तुजे दोळ्यांत दुकां
गळत आसात तीनय पारा

सूर्य गेला दोंगराआड
पोरसांत जाला मोगरे भार
वाट तुजी पळेत उबो
केन्ना मनाक चडत धार

नाका करूं उशीर आतां
मनाक तुजोच लागला ध्यास
शितळ वाऱ्यार धोलपी माड
ओगी पडल्यात मोने जावन

लागली फुलूंक रातराणी
फुलून आयल्या चंद्रजोती
नाका आनीक उशण्यो यादी
यादी यादीन सारूंक राती

# शेतकार

तुज्या घामाचो एक एक थेंबो
हजार लोकांचें पोट पिकयता
ते खातीर तुजें ल्हान पोट
एका गोटयान धादोसता

उदेत्या सुर्याक नमस्कार करपाक
तुजेकडेन वेळ ना
आंगार तुज्या माती खेळटा
काश्टेबगर कांय ना.

सकाळ दोनपार सांज ही
शेता बगर ख़ंयच जायना
कामाफुडें भूक तुजी
उदकाक लेगीत आंवडेना

थटथटपी सूर्य माथ्यार
आंगार तुज्या धगधगता
सळसळपी वारें तुज्या
आंगाक घाम सुकोन वयता.

हाताक तुज़्या खिणां दाट
आंगाक सदां मातये वास
तुजेबगर श्रेश्ट मनीस
आनीक कोणाक मानूं येता ?

# खरेंच तूं सोबीत

खरेंच तूं सोबीत
बागेंतलें गुलाबाचें
फूल कशें

तूं चंद्रासारकें
आंगार कसलोच
दाग नासलेलें

तुज्या माथ्यांत सदांच
फूल चान्याचें
चंद्रदेवान माळ्ळांशें

खरेंच तूं सोबीत
म्हज्या काळजांत
बसपासारकें

# रात

रातभर तुवें
म्हजे वेंगेंत रावचो
सकाळीं उठून
हजार फुलांचो रोस चिंवचो !

# झेलो

तुमच्या तोंडांतलें
एक एक उतर
हांव जिखतां
आनी ह्या विंगड फुलांच्या
कविता झेल्याक गुंथ्थां

# किरण

उदेत्या सुर्याचें
किरण जशें
धर्तरिर पडचें
तशेंच तुजें
पावल म्हज्या
दारांत पडलें

तेन्ना पोरसांत
पारिजात पिसो
फुलिल्लो
फुलां म्हज्या
पोरसांत ओत्ता

जशें चान्नें
मळबार लाख
दिवे पेटयता
तशेंच हें
मन लेगीत
सपनां रंगयता
तुज्या गुणाचीं

## केन्ना आयलें

केन्ना आयलें
केन्ना गेलें
म्हाकाच ना समजलें
पूण ! म्हज्या मना
मोगरे कळे
यादीन तुजे
फुलत रावले
फुलत रावले

# म्हज्या घराच्या पाडसार

म्हज्या घराच्या पाडसार
सदांच कावळे बसताले
केन्ना आड्डताले
केन्ना तिड्डताले
आनी आयज
घरार तशे आंगार
घाणीचो शिंताडो उडयत गेल्यात
परतून केन्नाच ना येवपाक

## मन शेवणें

मन शेवणें
मन पिशें
उडून गेलां
कोणा एका
अनवळखिच्या
दारांत बसलां
भीक मागत

# एक झाड

एक झाड
पानान पानेलां
कोमरेन कोमरेलां
चंवरान चंवरलां
पूण !
भितल्ल्यान कुसपेलां ?

## गणीत

दीस रात हांव
चलत रावलों
चलत रावलों
कांटे, फातर
फोडीत गेलों
फोडीत गेलों
आनी आतां
एका मोडणार थांबलां
जिवाक सुशेग घेवंक
जिवितांतलें गणीत सोडोवंक

# आयज कितल्याशाच दिसांनी

आयज कितल्याशाच दिसांनी
तुजीं पावलां
म्हज्या दारांत पडलीं
म्हज्या दुकांनी तीं
धुवचे पयलींच
तुजी पावलां परतलीं
तुजी पावलां परतलीं

# मन घुंगरू जालां

मन घुंगरू जालां
मन घुंगरू जालां
कसल्या तरी नादान
तें वाजत रावलां
नाचत रावलां.

मन घुंगरू जालां
झाडा झाडार
पानार बसलां
वाऱ्या वांगडा
कोगळे सुरार
तें झिंगत रावलां

मन घुंगरू जालां
मन घुंगरू जालां

# वसंत ऋतू

आयलो रे आयलो
वसंत ऋतू आयलो
झाडा झाडाक पाचवीं पानां
रंग भरून वतलो

आयलो रे आयलो
वसंत ऋतू आयलो

झाडा झाडाक फुट्टा चंवर
चंवरा चंवरार भोंवता भोंवर
मळबारूय मारीत शिंवर
वसंत ऋतू आयलो

आयलो रे आयलो
वसंत ऋतू आयलो

कुहू–कुहू गायता कोगूळ
हाल–हालयत झाडा पानां
सुरा सुरार मग्न मनां
वसंत ऋतू आयलो

आयलो रे आयलो
वसंत ऋतू आयलो

झाडा झाडाक चडल्या धार
रान जालां पाचवेंचार
राना वना पाचवो श्रृंगार
न्हेसयत ऋतू आयलो

आयलो रे आयलो
वसंत ऋतू आयलो

# एकाद्री तुका याद नासत

एकाद्री तुका याद नासत
ते धवेफुल्ल चान्ने रातीर
गोरवांच्या गोठ्याकडेन
आमी एकामेकाच्या माथ्यांतलें
चान्नें वेंचतालीं
वोंठांक वोंठ लावन
मोने रातीचीं गितां गायतालीं
तेन्ना कोणाल्यातरी पोरसांत
जायांचो परमळ पसरलेलो
आनी आमच्या गिताक
एक नवो सूर मेळिल्लो
ते सकाळचे फांतोडेर
ते सकाळचे फांतोडेर

# मन मोर

तुज्या पांयांचीं पांयजणां
पोरसांतल्यान वाजत येताना
रात लेगीत दीस जाता
चान्नें फुलोवन

जेन्ना तुजे सूर कानार सादता
तेन्ना रातराणयेक
कळी फुट्टा
सकाळ लेगीत आसली तरी

जेन्ना तुजी जाग नासता
तेन्ना सगल्याक मोनेळ पडटा
आनी म्हजो मन मोर
खंती जाता, खंती जाता.

# पयल्या वयल्या पावसान

पयल्या वयल्या पावसान
तणा फुटल्यो कोमऱ्यो
वाऱ्या वाऱ्या उडून पानां
झाडा आयल्यो आंकऱ्यो

पयल्या वयल्या पावसान
फुलून आयल्यो मोगऱ्यो
मोगऱ्यां वासा परमळान
फुलून आयल्यो मोगऱ्यो

पयल्या वयल्या पावसान
भरून आयल्यो तळयो
दुदावर्णी उदकान
भुरगे मारतात उडयो

पयल्या वयल्या पावसांत
भरल्या शेता कुणग्यो
सकाळ सांज बैलांच्या रे
मानेर पडल्यांत जुंवां

## पावस

काजळी कुपां आयलीं दाटून
दोनपारच्या वेळार
झाडा पेडाक लागलें पिशें
वाऱ्याच्या रे नादान

झिरीमिरी पावसा थेंबे
पडटा झाडा पानार
तेन्ना राना नाचता मोर
घागऱ्यो वाजयत तालार

मळब जालें सावळें भावळें
थेंबे हांसता पानार
चिंवचिंवता शेवणीं वयर
आंब्याच्या रे खांद्यार

शेवणीं वाऱ्यार लागलीं उडूंक
आसोराच्या भरवंशान
चारूय वटेन पडलें हांशें
सुर्याच्या भांगरा किर्णान

# वाट हांव देखतना

दर्यावेळेर बसून तुजी
वाट हांव देखतना
मन म्हजें लागलें झेमूंक
याद तुजी करतना

दिसा पोल्यार ओळींत काळे
सूर्य खांचींत लिपतना
ल्हारां कळे लागले फुटूंक
यादीक याद आपटना

पिंपळावेल्यान शेवण्या भिरीं
घोंटेरांत परततना
पावलां तुजीं लागलीं वाजूंक
वेळेवेल्यान येताना

रातराणयेक फुटली कळी
म्हऱ्यांत म्हज्या बसतना
मनाक म्हज्या आयली जाग
वेंगेंत म्हजे गोठेतना

## एकलें एकसुरें

एकलें एकसुरें एक शेवणें
रुखा तळा रडटालें
काळ्या निळ्या दोळ्यांत ताच्या
कूप फुटून व्हांवतालें

तांबडेगूंज पिंजरेन ताचो
भांग उफाट भरिल्लो
लग्नाचो म्हूर्त मणी
गळ्यांत ताच्या सोबतालो

रडकुळ्या त्या मुखार ताच्या
गुलाब दीसो फुलिल्लो
गोऱ्या गोऱ्या हातांचेर ताच्या
पाचवो चुडो हांसतालो

कोण जाणा कसलो कसलो
जाच तें भोगतालें
रुखाथळा राबून लेगीत
विरहा जोरान भाजतालें.

## चंवर

आंब्याक चंवर फुटलो तरी
फूल एकूय धरलें ना
धरलें ना तें धरलें ना
परतून आनीक फुटलें ना
परतून आनीक फुटलें ना.

## कथा

म्हजी व्यथा
पंयली शणय
झडून गेली
आनी म्हज्या
मनाचे मातयेचो
धुल्ल कसो
मनशा मनशांच्या
ओंठार बसला
आतां ती
कथा व्यथा
म्हाका परत
चिंतपाची ना
याद करपाची ना
किद्याक जाणा ?
ती कथा व्यथा
आतां म्हाका
लोकूच सांगता

## सांज

सांजवेळेर दर्या मुखार
वाजूं तुजीं पांयजणां
सुकतेचें ल्हार मोड
खारवी रांपण ओडटना

रांपणीमुखार नाचतात शेवणीं
रांपणी तडीक पावतना
रेंवे घरां बांदी पोरां
सूर्य दर्याखांचीत लिपतना

जोडपीं, भुरगीं वेळेर माडांनी
शितळ वारें खाताना
शेवणीं उडून लागलीं वचूंक
काळोख धाडटना

## रंग रंगयाळीं

तुजीं पावलां रंग रंगयाळी
ते हळदुळे दनपारचीं
तुजीं पावलां मोतयां मोतयाळीं
ते काळे निळे सांजेचीं

तुजो रंग धव्या कुपाचो
तुजो पोलो गुलाब लजेचो
माथ्यांत झेलो चान्याचो

तुजे नदरेक नदर लजता
वोंठार तुज्या उतर मोडटा
तुजीं उतरां काळजांत म्हज्या
तुजेच सरीं ओडटा

# देव

तुज्या मनांतल्या देवळांतलो
हांव तुजो देव गो
यादीर याद आयली तशी
उरना म्हाका भान गो

नाका घालूं फुलां म्हजेर
तूंच आंगार रावचें गो
नाका म्हाका फुलां परमळ
चंदन वास दिवचो गो

कापूर जोडवें पेटोवन म्हजी
नाका करूं पुजा गो
येवन म्हजे बसचें कुशीक
दिसून क्रिष्ण राधा गो

मुरली वाजयत नाचूंनी हांगा
म्हज्या पिशा मना गो
मुरले सुरान जावन मग्न
तुवेंय हांगा नाचचें गो.

## मोगा गुपीत

तुजें म्हजें मोगा गुपीत
कोणाक कळचेंना
चारूय वटांनी सोदलें तरी
कोणाक मेळचेंना

तुज्या म्हज्या मोगा परमळान
फुलां फुलतना
वाठार सगलो फुलून आयलो
मोग करतना

राना वना चलतां चलतां
आंकऱ्यो फुट्टना
पिटोळ्यांनी घातलो साद
उमो घेतना

धव्या पोल्यार ओडीत काळी
रात येतना
रातराणयेक फुटली कळी
साद घालतना

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- ✧ **साहित्य सुवाद**
  — डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- ✧ **चित्रांगदा**
  — पांडुरंग भांगी
- ✧ **मृद्गंध**
  — सुरेखा तोटेकार
- ✧ **सैम-घुडी**
  — उदय गांवकार
- ✧ **पारजत फुलां**
  — नरेंद्र कामत
- ✧ **जैत**
  — श्रीधर कामत
- ✧ **शीला**
  — एन्. सुहास
- ✧ **गाज**
  — शशिकांत पुनाजी
- ✧ **मोतयां**
  — रोहिदास मंगेशकार
- ✧ **अक्षयदिवो**
  — आनंद वर्टी



*रोहिदास मंगेशकार*

मोतयांनी खूब कविता आसा. कविता खूब आसपापरस कवितेंत काव्यगूण आसप चड गरजेचें. रोहिदासाचे कवितेंतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता की ताका खूब कितें सांगपाचें आसा. निसर्ग कविता तो आपल्याक व्यक्त करपाक वापरता. जेश्ट कोंकणी कविंच्या प्रभावान रोहिदास कसो लब्धला हाची गवाय ताच्या बऱ्याचशा कवितांनी मेळटा. आनी आपल्याचेर जाल्लो प्रभाव फापडून उडोवन आपणे आपलेच पध्दतीन फुडें वचूं येता हें कळोवपी कांय गूण रोहिदासाचे कवितेंत दिसता ही ह्या संग्रहाची जमेची बाजू.

काव्याची उपासना करता आसतनाच रोहिदासान नाटकां बरोवपाक सुरवात केली. ताचीं कांय नाटकां लोकांमुखार खेळ्ळयांत. पाळ्यांत ताच्या तीन स्वतंत्र नाटकांचे प्रयोग जाल्यात. होय गूण रोहिदासांत आसा ही निश्चितूच पाळ्याक खोसदिणी गजाल.

साहित्यांत कितलें बरयलां, हाचे परस कशें बरयलां, कितलें अचूक बरयलां हें चड महत्वाचें हें सगळ्याच नवलेखकांनी जाणा जावप गरजेचें. साहित्याचे साधनेतल्यान ह्यो असल्यो गजाली बरे तरेन आपणांव येता.

**— रमेश भगवंत वेळुस्कार**

---

ISBN 81-85854-00 - 9